# काणी काणी कोतवा

गौरीश वेर्णेकार




गोवा कोंकणी अकादेमी

काणी काणी कोतवा

(कविता)

कवी :

गौरीश वेर्णेकार

प्रकाशन क्र. : ४५



उजवाडावपी :
चार्ल्स डिसोझा
सचींव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
बोरी, फोंडें, गोंय.

छापपी :
स्वर्णमुद्रा प्रिंटस
माशेल, गोंय.

मुखचित्र :
गौरीश वेर्णेकार

पयली आवृत्ती : जुलय २००२

मोल : ४५/- रुपया

Kani Kani Kotva

(Poetry)

POET :

Gourish Vernekar

PUBLICATION NO. : 45



PUBLISHER :
Charles D'Souza
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
Borim, Ponda, Goa.

PRINTER :
Swarnamundra Prints,
Marcela , Goa.

COVER :
Gourish Vernekar

FIRST EDITION : July 2002

PRICE : Rs. 45/-

पयलो चंवर येवजणेंतलें अकादेमीचें प्रकाशन

# मांडावळ

# काणी एका कावळ्याची

ही एक ल्हानशी प्रस्तावना . खरें म्हळ्यार काव्याक प्रस्तावनेची गरज ना . कविता हीच जीविताची प्रस्तावना . कवितेंतल्यानच कवीच्या जीविताची खरी वळख जाता . कवी चलता, भोंवता, खाता, जेवता, पूण ताच्या मनांत कविता घोळटा आनी काव्यांतल्यानच ताचें जिवीत कळटा . गौरी हो असोच एक कवी . हातान चित्रां काडपी, पूण मनान उतरां घडोवपी . उतर, नदर आनी उमाळो हीं काव्याचीं तीन आंगां . हीं तिनूय गरजेचीं . तांचो सहज मेळ घडटा तेन्नाच पुराय कविता रुपाक येता . गौरीचें उतर कवीचें उतर . सगळ्यांक तें उतर खबर आसता . पूण तें केन्ना आनी कशें मांडप हें कवीच जाणा . हें उतर कवीचें आनी तरीय लोकांचें . कवी उतरां लोकांकडल्यान घेता . गौरी आपले आजयेकडल्यान हीं उतरां घेता . पोरण्या उतराक नवो अर्थ दिता . पोरणे काणयेंत नवीच काणी सांगता . उतरांत उतरां कशीं घुस्पावचीं, उतरांतल्या स्वरांनी कशें संगीत घडोवचें हें कवीक आपशींच येता . काव्य बरोवप सोपें न्हय . जीविताचो अणभव, काळजाची संवेदनशीलताय आनी उतरावळीचें भांडार ताचेलागीं आसचें पडटा . काव्य बरोवप कठिण . पूण तें वाचप्यांक सोपेंशें दिसूंक जाय . कल्पना हो काव्याचो प्राण . कल्पना म्हळ्यार Imagination म्हळ्यार Images करपाची शक्त . सदांच पळयल्ल्या वस्तींक नवें रूप, नवो रंग, नवी हुनसाण, नवी जडसाण दिवप हें फकत कवीकूच जमता . गौरीची ही एकूच वळ पळेयात .

"ती काणी आयकून
त्या नातवांनी
कितलेशेच काळे घोंटेर पिसुडल्यात
कितल्याशाच काळ्या कर्तुबांचीं तातीं माड्डयल्यांत"

सदांच आयकल्लीं उतरां नवेच तरेन एकठांय जातकच तांकां नवोच अर्थ येता . आनी उतरांनीच उतरांपलतडचो संवसार वाचप्यांमुकार उबो करप हें तर कवीचें कर्तुब आनी कसब .

'काणयेंतल्या कावळ्यांनो, काणी केन्ना करतले ?' 'क' अक्षराचे हे पंक्तींतल्यान कानार एक वेगळोच प्रभाव पडटा आनी नवेंच आनी आगळ्या वातावरणांत मन घुस्पता .

गौरीच्या काव्यांत अशो कितल्योशोच पिकील्ल्यो प्रतिमा होलमतात . "आमोरेच्या घरार मळब चिक्क पिकलां," "कावळो भिजून गेला, सपनांक फाकां लावन भूऽर उडून गेला," ह्या उतरांतल्यान आजी रावता त्या गांवांतलें गांवगिरें जीवित दिश्टी पडटा . ह्या कवितांचो अर्थ कितें? फुलाचो अर्थ कितें? फुलाचो अर्थ सोदूंक चड लागीं गेल्यार कांटो तोपपाची भिरांत . कावळ्याचे कावकावेंतल्यान काव्याचो खेळ करपी असो हो कोंकणीतलो पयलो कवी . कावळ्याच्याच हेतूक नदरेचो . ह्या काव्यांत आजयेच्या लोणच्याची रूच

आसा, आजयेच्या भजनांची भक्ती आसा, आजयेच्या गोधडेंतली न्हीद आसा .

जेजू क्रिस्त म्हण्टालो, "तुमकां सर्ग जाय जाल्यार भुरग्याभाशेन जायात ." काव्याचो सर्ग जाय जाल्यार भुरग्याभाशेन जायात . काव्याचो सर्ग मेळयतले जाल्यार तुमी भुरगे जावचे पडटलें . गौरी हो आजयेचो नातू जाता . ताच्या जीविताभाशेन ताचें कवीत भुरगें जाता . कवीचें जीवित इतलें समृध्द आसूंक जाय की ताणें तें निर्जिव वस्तींक लेगीत दिवंक जाय . दुसऱ्या जिवांक दिवंक जाय . गौरीच्या काव्यांत कावळेच मनशांभशेन जातात आनी मनशांभशेन चिंततात . आज्जेक समजतले जाल्यार कावळो जावचो पडटा आनी अशेतरेन ह्या कावळ्यांच्या कावकावेंतल्यान कोंकणी संस्कृतायेचें दर्शन घडटा . कोंकणी कवितारती नव्या सुरातालान हांगा नाचूंक लागल्या .

उतरांवांगडांच गौरीच्या काव्यांत उमाळो उफेवन येता . केन्नाकेन्ना तिडक जावन चडफडटा . ताचें कवीमन भोंवतणचो अन्यायी संवसार पळोवन मनांतल्या मनांत कड्डटा आनी ताचीं उतरांय इंगळ्यावरी पेटून उठ्ठात . परंपरेच्या नांवांन जुलूम अत्याचार करपी समाजाक तो आरतोपरतो करपाक फाटीं रावना . आमच्या धर्मीक दबाज्यावेळार भार येवन भान सोडून नाचपी तरंगांक हांगा वेगळोच चेव चडटा .

"संस्कृतीचें नागडेपण चल्ला रस्त्यार
. . . . नाचून नाचून हाडात तरंगां भारार ."

"म्हज्या गांवांत
धर्माखातीर देव आसा
सांगणे खातीर देवचार आसा
. . . .दोगांयचेय भगत खिणाखिणाक बदलत आसात ."

कसलीच लजभीड नासतना तो खर उतरांनी कोडू सत्य सांगता .

" . . . . आमी दायजी
एक वाड्यार रावन लेगीत आमचे कसलेच संबंद नात ."

"वण्टींतल्यान आमचीं मुळां एकमेकांच्या मुळांक घुस्पल्यांत,
तरी आमकां कसलीच जाग ना . . ."

सगळ्यांभितर आसूनय कवी सगळ्यांभायलो .

"म्हाका तनय कळ्ळें ना
म्हाका धनय कळ्ळें ना
मनीस नांवांच्या किड्याचें म्हाका मनय कळ्ळें ना ."

"Now atleast I see this world & I will never agree ."

अशें एक इंग्लेज

कवी म्हण्टा . गौरी लेगीत अशेंच म्हण्टा .

"देवा तुजे कल्पनेतलें जग म्हाका कळ्ळें ना ."

जातीवादाचो, जातीभेदाचो अन्याय लेगीत ताका सहन जायना .

"द्रोणाच्या मळार

अर्जुन एकूच वीर

एकलव्य चुकला तीर . . ."

ताच्या मनांत कितलेशेच शब्द चिड्डून येतात . तांच्योच तो कविता करता .

आयची नारी द्रौपदीचे उरफाटी जाल्या .

"आंगभर वस्त्रां आसून लेगीत

आंग भायर उडोवपाची तिका संवंय जाल्या ."

कवितेसयत कवीक जळयलो तरी कवीचीं उतरां उजो जावन जळत उरतलीं . उतरां हीं मनांतलीं नेखेत्रां . तांचो हिशोब कोणें कसो दवरचो ?

"चान्ने राती नेखेत्रांचो हिशोब घालनाका ."

आजचो मनीस बंद कुडींत रावता हें तो जाणा . देखून तो लिखाण करता तें रगताचें .

"आनीकय शब्द येतले रे

म्हज्या शब्दार शब्द चडटले रे

म्हजेय शब्द तेन्ना गुलाम रे

म्हज्या शब्दांभितर हांव रे ."

अशेच शब्दार शब्द चडचे हो म्हजो हावेस आनी ताचेच भाशेन आमी लेगीत शब्दब्रह्मांत बुडून वचचें .

तांबडी माती, पणजी

डॉ . मनोहरराय सरदेसाय

# आजयेचे काणयेंत शेणटना . . .

एक आशिल्लो कावळो रे . . .
एक आशिल्लें सवणें . . .
कावळ्याघर शेणाचें पुता . . .
चिमणे घर मेणाचें रे . . .
काळ्याकुट्ट पावसाचो हुंवार आयलो . . .
शेणाचें घर व्हांवयन गेलो . . .
चिमणे चिमणे दार उगड . . . घर म्हजें व्हांवन गेलां . . .
न्हिदपाक म्हाका इल्लो जागो . . . घरांत दी तुगेल्या . . .
चिमणेन विचारलें, खंय न्हिदता? . . .
रान्नीर न्हिदल्यार भाजून वतलो
बाकार न्हिदल्यार पडून मरतलो
आसा एक उपाय कावळ्या
न्हीद पाळण्या पोंदाक म्हगेल्या .'
चिमणेलीं आशिल्लीं पाळण्यांत तातीं
कावळ्या जिवेक रुचेची लुती
कुट्ट . . कुट्ट . . कुट्ट . . चिमणेन म्हळें, 'कितें खाता?'
'वाटेर कण मेळिल्लो , खातां .'
कुट्ट . . कुट्ट . . कुट्ट . . चिमणेन म्हळें, 'कितें खाता?'
'वाटेर मूग मेळिल्लो, खातां .'
कुट्ट . . कुट्ट . . कुट्ट . . चिमणेन म्हळें, 'कितें खाता?'
'वाटेर चणो मेळिल्लो, खातां .'
. . . . . . . . .
. . . . . . . . .
अर्दकुटे काणयेभितर . . . हांगाच
म्हजें न्हिदप जातालें . . .
काणी काणी कोनवा
म्हातारेच्या नातवा
कोण काणी सांगून गेलो
कोण काणी खावन गेलो
. . . . . . . . .
. . . . . . . . .
नातवा, नातवा, काणी खंय? काणी सांगपी आजी खंय?
हे असंख्य प्रश्न

म्हज्यामुखार येवन उबे रावले . . . नवे वळीर काणी आमी सदांच आयकताले
आनी कथेचो उत्तरार्ध जावचे
आदींच न्हिदून पडटाले .
आयजय म्हाका ही काणी अप्रत्यक्षरित्या खुणायता . . .
चाचपडायता . . .चक्रव्यूहांत शेणिल्लों हांव
आनी म्हजो कल्पनेच्या चक्रव्यूहांत शेणिल्लो कावळो
त्या शब्दांनी व्हांवला . . .
अशें म्हज्या आनी काणयेंतल्या
कावळ्याचें नातें म्हज्या आजयेकडल्यान लागता .
आजयेन सांगलें तसो हो भुऽऽर्र करपी
काणयेंतलो कावळो म्हजे प्राकृत जिणेंत आयलो
शेणान सारयिल्ल्या आजयेल्या आंगणांत
शेणान सारयिल्ल्या आजयेल्या आंगणांत
म्हजे बराबर नाचलो .
सुकोवंक घाल्ल्या वड्या . . . कड्यांचेर म्हजेबराबर खेळ्ळो
पोरसांमळार, सुतकामळार कितल्योशोच
यादी हुंगून गेलो .
लोकवेदांतले काणयेकडेन आनी काणयेंतल्या कावळ्याकडेन
हांवें म्हजे मनांतले संबंद जोडटना खूब अणभव मेळयला . . .
म्हज्या घरांतल्यान, वाड्या - वाड्यांतल्यान, गांवां - गांवांतल्यान,
प्रांतां - प्रांतांतल्यान चलून आयिल्ली आजयेची कावळ्यासंबंदांतली लोककाणी,
ताचें उत्तरार्धांतलें बदलतलें स्वरूप हांवें लागींच्यान पळयलां .
म्हजी आजी ( पापाली आई तरी सगल्यांली मामाई ) म्हज्या जीवनांतलो म्हत्वाचो भाग . . .
समाजाचें दर्शन, समाजाची आंखणी म्हजे आजयेन म्हाका घालून दिली .
आज म्हजी आजी केळीपानार दिसता . . . वरांचीं वरां जालीं तरी कावळो कडेक बसता . . .
आजयेच्या काणयांनी सदांच कावळयाक बायट म्हळें .
काऽऽव, काऽऽव करत कावळ्यान शेणाकच आपलें घर म्हळें .
त्या पयल्या काव्यांत भौ . पूर्णानंद चारी मगन म्हजेभितरलो पिंड वळखलो .
आरे तरणाट्या, असो फातरआड कित्याक दवला? . . . भायर यो!
ही ताची फातराक धार काडपी उतरां . . .
ताचेउपरांत आमची जाल्ली लागींच्यान वळख . . .
आनी कोंकणीच्या साहित्यीक मळार म्हजें पावल . . .
. . . मागीर संमेलनां, चर्चासत्रां . . . आनी युवा महोत्सवांतल्यान
म्हज्या शब्दांक धार आयली . . .
कोंकणी मळार कवी भौ . मनोहरराय सरदेसाय हांणी म्हज्या आजयेच्या काणयांक काणयेंतल्या

कावळ्याक वरयिल्लीं उतरां म्हळ्यारच कोंकणी कवितेंत म्हाका मेळिल्लो पुरस्कारच . . .
तांच्या उतरांनी हांव श्रीमंत जालों . . .
म्हजें काव्य गर्भश्रीमंत जालें!
कवी डॉ. सरदेसायांकडेन हांवें म्हजे आजयेले 'काणयेंतलो कावळो' दिलो . . .
आनी तांणीय ताका दिस्त पारखिलो.
शब्दांक, व्याकरणीक साच्यांत कशें वांदप हें हांव तांचेकडल्यान शिकलों.
म्हजे इश्ट, गुरू भौ. कमलाकर म्हाळशी, कवी भौ. चित्रसेन शबाव आनी म्हाका वरोवपाक ध्यास दिवपी म्हजीं काणकोणचीं तरंगां म्हाका गतकाळांतसावन आजयेच्या काणयांतलो कावळो हाडूंक धाडटात - वा ऽऽ वा ऽऽ

पणसुलें, काणकोण, गोंय.

गौरी
(गौरीश रमाकांत वेर्णेकार)

# काणी काणी कोतवा

*हांव. . .*
*आजयेच्या काणयांत शेणलां*
*कावळ्याचें घर सोदपाक. . . .*
*तुमी. . . .*
*म्हज्या शब्दांत शेणात*
*म्हजी आजी सोदपाक. . . .*

— गौरी

# ते नातू

ते नातू
आजये सोडून . . .
काणी आयकूंक बसले .
. . . . काणी कोणाक कळ्ळीच ना .

तीं आजी
नातवाक न्हिदोवन . . .
काणी सांगूंक बसली
. . . काणी कोणें आयकलीच ना .

काणये सयत आज
आजयेक नातू . . .
समजूंक बसलात
. . . न्हिदल्ली आजी उठच ना .



# पाप

ती कार्णी आयकून
त्या नातवांनी
कितलेशेच काळे घोंटेर पिसुडल्यात
कितल्याशाच काळ्या कर्तुबांचीं तातीं माड्ड्यल्यांत
काऽऽव काऽऽव करपी किंकाळ आजेच्या कानांत दुमदुमल्या
काणयेंतलो सूड आजयेक दाखयला . . .
पूण
म्हर्जा आर्जा म्हण्टा . . .
आपूण कसल्याच पापाक ना .



# काणयेंतल्या कावळ्यांनो

काणयेंतल्या कावळ्यांनो काणी केन्ना करतले?
काळ्या कुट्ट कर्तुवाचे दाग केन्ना पुसतले?
पांवड्यार तुमी गुत्तले . . .
चोंचीक धार काडटले . . .
अन्यायाचीं फाकां शिंवरून
सूडा तिवो लायतले .
कावऽऽ कावऽऽ बोवाळ घालात
वंडाचो शंख फुकात
घरांतल्यान भायर काडून आजयेक काणी सांगतले . .
काणयेंतल्या कावळ्यांनो . . .

सुक्यो वडयो आंगणांत घालूं . . . ?
ओल्यो वडयो घेवन वसूं
दायजपण तुमकां आसा, घरांत काणयो झरत आसात
तुमी घराभितर वचून खातले
काणयेंतल्या कावळ्यांनो . . .

देवकाऱ्याक, म्हाळाक रावपा ना
व्रताक, श्राध्दाक जेवपा ना
वायस ऽऽ वायस ऽऽ घालत रावूं
दर्वा कावळे करत रावूं
उश्ट्यापान थुकून उडय
पंचकादय हागून उडय
जिवेक तुमी चावून घेतले
काणयेंतल्या कावळ्यांनो . . .

पानाक पळोवन रावलो कित्याक?
क्रांते तोंडांत लाळ कित्याक ?
सुडान तुमच्या हांव रे पेटलां
लेखणी म्हजी झरयतलों . . .
काणयेंतल्या कावळ्यांनो



# शुध्दी शितोड

आमोरेच्या घरार
मळव चिक्क पिकला
वैकुंठाची देवाकूड
धुपान रे रंगल्या

शणार्ची गोधड पांगरून
अजून आंगण न्हिदलां
म्हण आजेन तुळशी आंगार
शुध्दी शितोड घातला

शितोड आर्जा घालतना
कावळो भिजून गेला
सपनाक फाकां लावन
भूऽऽर्र उडून गेला



# पिंड

गांवचे शिमेचेर
काणयेंतल्या विशयाचेर
कावळ्यांनी चर्चासत्र भरला .
पयसुल्ल्यान आजये पिंडान
वसकेचें सूत्र धरला .



# आजी

तोपांत उकडी पेज रकता
खतखत्यांत फोडी खेळटात
आमलेचीं खळा तोरां
तोंडाक रे रूच हाडटात . . .

आंगणां मांदरेर चंद्रा रास
सुपां हुंगतात चान्न्या भास
दनपार भर वडी घेवन
कावळे काडटात लिपून दीस

पोरसां फुल्ला तांबडें तोंड
तांबड्या तोंडाक हरवे कान
आळ्या उदकाक खेळत आसा
शेवण्याचीं जोडीं दोन

धुकटा रान्नीक मळव ओतता
न्हाणेकडेन गोकुळ न्हाता
किटी किटी चुट्टां वाजून
तांव्याभाणांत उदक तापता

प्रसाद मुकार परवड चल्ल्या
देवाकुडींत कृष्ण भरला
आजयेले न्हिदूंक मांडयेर
कावळ्या काणयेक रड धरल्या



# दिश्टावो

म्हज्या घरांत आजयेलो दिश्टावो अजूनय दिसत आसा
सुकोवंक घातिल्ल्यो वडयो लेगीत नेटान कडत आसात . . .

आजयेच्या लोणच्याची रुच कशी आसा . . . ?
घरांतले भरणेंत तोर ना . . . तरी तोंडाक खळ आसा .

आजयेच्या भजनांनी भक्ती खंय आसा . . . ?
देवाकुडींत शब्द ना . . . तरी ताळ चलत आसा . . .

आजयेच्या गोधडेंतली न्हीद खंय आसा ?
गोधडेंतल्यो गांठी अजूनय मेजत आसा . . .

आजयेच्या काणयांचे आमी दायज कशे . . . ?
काणयेंतले कावळे अजूनय सुतकांत आसात

. . . म्हज्या घरांत आजयेलो दिश्टावो अजूनय दिसत आसा .
सुकोवंक घातिल्ल्यो वडयो लेगीत नेटान कडत आसात .



# नातू आनी तो

नातू म्हण्टा . . .

“आजये फाटल्यान हांव खातां . . .
काणयेंतलें खातां
भाटांतलें खातां
ट्रंकांतलें खातां
डब्यांतलें खातां
तूं कितें खाता?”

तो म्हण्टा
“आजये दिसा . . . पयलीं
आजयेकच हांव खातां
उरिल्लें सगलें तुका दितां .”



# काऽऽव. .काऽऽव.

काऽऽव. .काऽऽव. .काऽऽव . .काऽऽव
काऽऽव. .काऽऽव. .काऽऽव . .काऽऽव

जागरण घालता वाडो सगलो
आजयो न्हिदून गेल्यात
मध्यराती काणयेंतल्यान
कावळे स्वतंत्र जालात

काऽऽव. .काऽऽव. .काऽऽव . .काऽऽव
मुक्ततायेची दिंडी काडात
काळ्या कातींची होळी घालात
भगभगीत उज्यांत जळून
काणयेची पुनर्रचणूक करात

काऽऽव. .काऽऽव. .काऽऽव . .काऽऽव
मेल्ल्या मड्याचो शोक नाका
काणयेंतली काणी ओकनाकात
जैताची परब मनोवपाक
फातोडे सुर्याक रावनाकात

काऽऽव. .काऽऽव. .काऽऽव . .काऽऽव
ल्हेंवटेपणान आंगणात फातर
कोणें कोणें खाल्यात. . .?
भरून पोट पानांलागीं उपासाचीं ढोंगां
कोणें कोणें केल्यात?
पानाक पळयत सत्याग्रहाचीं पावलां
कोणें कोणें वदल्ल्यांत

त्या सुटके झुजाऱ्याक
इतिहासाक भांगराचो मान दियात

काऽऽव. .काऽऽव. .काऽऽव . .काऽऽव
काणयेभितर
शेणाघर व्हांवूं, व्हांवनाका
मुक्ततायेचे तेवूय मानकरी
"चोरयेन तार्ती . . . खावूं, खाय नाका
तेवूय कुळाचे धनकरी
अमृताचो खीण फांतोड सगल्यांक घेवन येतली
अशें समजून
रातीच रांगो वदलीनाकात

राऽऽव. .राऽऽव. .राऽऽव . .राऽऽव
राऽऽव. .राऽऽव. .राऽऽव . .राऽऽव
स्वातंत्र्याची रात
तुमी वेगीन वेगीन नाचात
जैताची खरस घालन
घोंटेरांत वचून घुसात
उजवाडाचो सुर्या हांव पळोवन आसां . . .
गांवची सून फांतोडेर
आर्जी जावपाची आसा . . .

काऽऽव. .काऽऽव. .काऽऽव . .काऽऽव
काऽऽव. .काऽऽव. .काऽऽव . .काऽऽव



# शिरपुटां

नातू जावन काणयेक समजतले
आजी कशीच कळपा ना .
आजयेक समजतले जाल्यार
कावळो जावचो पडटा .

आजयेच्या काणयांनी
नातवान दिवे लायले
कावळे मात काणयेंतल्या
काळखांतच उरले .

केन्नाय तीं म्हण्टाली
कावळ्या सारके कन्नाकात . . . ? म्हज्या वाळा!
हांवें मुद्दाम कावळ्यासारकें केलें
म्हाका खूब कितें मेळ्ळें, ते वेळा .



# आजये कानांनी तेल घालया?

सुकें नुस्तें धवें जाता
काळो कावळो वता बसता,
रखरखत्या आंगणाक पळोवन
आजये हात कपलार बसता
. . . आजये मात्यांनी तेल घालया?

गाय मोडून येता आकाडो
आवोल्याचेर पडला पांयव्हडो
काऽऽव . . काऽऽव . . फार्टीवेल्या कावळ्याक
आजये जुस्त फातरावडो
. . . आजये दोळ्यांनी तेल घालया?

शेणामेणांचीं सगळीं उमार्णी
पणजेन गायली अर्दी कार्णी
आयकली ना आजयेन म्हजे
कावळ्याची खरी कार्णी
. . . आजये कानांनी तेल घालया?



# अर्दकुटो प्रश्न

त्या सगल्या कावळ्यांभितर
तो कावळो
आजयेक आवड्टालो
. . .कित्याक . . ?

घडये फाकां धर्वी आसूं येतात
किंकाळेच्या विश्वांत तो नासूं येता
. . .म्हज्या मनांतले प्रश्न अर्दकुटे आसूं येतात!

त्या दिसांनी
नातवाक लिपोवन ताका सान्नां दिलीं
कावळ्यान जात सोडून तीं खालीं
नातवाक लिपोवन मांडीय दिली

आपलेच काणयेंत कावळ्यान न्हिद घेतली
कसाच्या त्या दिसानंतर अजापच घडलें
तो कावळो येवंकच ना
घडये . . .

आजयेच्यो वंटी काळ्यो जाल्यो आसूं येतात
वंटींवेलो चुनोय सोपूंक येता
. . . म्हज्या मनांतले प्रश्न अर्दकुटे आसूं येतात

म्हजे अर्दकुटे प्रश्न आजयेक कळळेच नात .
हांवेंय केन्ना सांगूंकच नात .



# त्या तीन रस्त्याचेर

त्या तीन रस्त्याचेर
नळ्या कट्टयांचो धुंवोर
आजये नातू हांसता
गांव वोगीच खोकता.

त्या तीन रस्त्याचेर
विडी सोऱ्याची रास
गांव सगलो हांसता...
नातू रस्त्यार हालता...

त्या तीन रस्त्याचेर
कावळ्याची काऽऽव काऽऽव
भिल्लो नातू रडटा
आजी निसणेर वता.



# राखण

ताशिल्ल्या केंसांचें पुर्न करून
हांव . . .
आपयतां . . उलो घालतां .
आंव्यारुकावेल्यान भूऽऽरं करन
आंगणांत येवपाक

ते . . .
भितात . . . दुवावतात .
कित्याक?

घडये . . .
वंटीवेल्ली हारशांत धापिल्ली आर्जी
आंगणांतल्यान दिसता
तीक्ष्ण नदरेन प्रतिविंवता



# चक्रव्यूह

आजयेची ती काणी  
ना कोणाक कळ्ळ्या  
ना केन्ना सरल्या  
अर्दकुट्या काणयांभितर नातरां सदांच न्हिदल्यांत.

ह्या काणयांनी  
कोणाल्या सुखाक  
कोणय रडला  
कोणाल्या दुखाक  
कोणय हांसला

कोणाचें शेणाचें घर हुंवारान व्हांवन गेला  
पोटाच्या हुंवारान कोण कोणालीं तांतीय खावन गेला  
शणाच्या घराचें मुकार कितें घडला?  
सांत्वनाचे ओथांवे कोणें कोणाक दिवचे?  
हांगाच नातू गडवडून गेला...

कोणालो सूड लागीं आशिल्लो  
कोणालो दिसय लागीं आशिल्लो  
पूण  
कालय काणी त्याच वाटारांनी थांवल्या  
पयलीं  
नातरां न्हिदल्यांत  
काणयेसयत त्या दिसा  
आजीय न्हिदल्या...  
चक्रव्युहांतलो नातू कायमचो शेणून गेला...



# तुका हजार फावटी सांगलें

तुका हजार फावटीं सांगलें
काणी आयकून
'ताच्या' नांवांन आंगण खायनाका
तुका संवय पडटली 'ती' आनीक फसतली.

. . . 'तिका' फटोवन खातालो
ओंठ दामीत कुडतितालो
अजीर्ण जावपी 'ताका' उडयतालो
तें खावपाक येतना
हुशऽऽ हुशऽऽ करन ताका धांवडायतालो

आज तुवें
'ताचे' खातीर उपास धरला.
सगल्यां पयलीं ताका वाडला.
. . पूण
जेवणाक तेंच तर ना
तरी नकल्यांक वाडून
तूं तिका फटयता.

. . . तुका हजार फावटीं सांगलें
काणी आयकून 'ताच्या' नांवांन आंगण खायनाका
तुका संवय पडटली
'ती' आनीक फसतली.



# काणयेंत गो

आजयेलो नातू
राखता भातू
करता शिऽऽतू
　　　　काळ्यांक गो .

वाऱ्याचो उर
पिलो तो सूर
न्हिदेक पोर
　　　　वाऱ्यान गो .

कावळ्यांचो कालो
आंगणात भल्लो
भातार हल्लो
　　　　कुटू कुटू गो .

एकटें भात
गेली तार्ची कात
उदकाची साथ
　　　　तानेक गो .

कावळ्यांची कांव
सपनाक धांव
नातवाची किंव
　　　　न्हिदेंत गो .

अचकित जाग
आजयेन केला याग
नातू फिरता बाग
　　　　काणयेंत गो .



# आंब्यारुकावेल्यान

फुलिल्ल्या आंब्यारुकावेल्यान
तोरणा खातीर पानां झडयत
कावळे कित्याक काकेता जायत . . ?
नातीचे धुवेल्या देवकाऱ्याचें आंगण
घडये त्या रुकावेल्यान दिसता जायत

पडिल्ल्या आंब्यारुकावेल्यान
दीक व्हांवत्या देटासांगाताक
कावळो कित्याक कुट्टा जायत
अमुरपिके भुकेचो वाटो
घडये आजयेले कुडींत भुसभुसून पिकता जायत .



# कावळो

ते कावळे
झाडावयल्यान कितेंतरी पळेतात
काय म्हजेचविशीं थारायतात
काळो कावळो काळखांत बसला
म्हजे काणयेंतलो काळोख तेळींत
चौकांतल्या पुतळयाचेर
एक कावळो सदांच . . . कोकता
महाल्याच्या मोठेपणाक ताचोय सूर लायता
कावळयाच्या गळयांतलो
राग कोणें सोदला
सगल्यांनी म्हळें,
तो स्वर सोडून गायला .



# केन्नाय

केन्नाय . . .
ते खुटलेय म्हाका खुटलयतात
जेन्ना गळिल्ल्या घामान
तकलेवेलें वजें . . .  तडेतडेक हांव देवयतां

तो ओळंय म्हाका जाणवता
जेन्ना गांड मस्तीपणां
गिरेस्ताच्या जांगां मुळांक
. . . पाळी पाळीन जांगडां लिपयता

तें कडूय म्हज्या गळ्याकडेन येता
जेन्ना गोड उलोवन
मनांतलें कोडूपण . . . हांव घडेघडेक शिजयतां

त्यो काणयोय म्हज्या कानांत रिगतात
जेन्ना काऽऽव काऽऽव करन
म्हजें कावळेपण
. . . ख्रिणा ख्रिणांनी ओकतां .



# काळो कावळो

काळो कावळो
चुन्यांत पडलो
धवो फुल्ल जावन भायर आयलो
आजये मुकार नेट मारतना
काऽऽव काऽऽव करत गेलो .



# कावळ्यालो बारसो

कावळ्या घरार बारसो पळोवन
आजेली उमेद व्हांवता

उरण्या साकरे रव्यान
लाडू तुपार लोळटा . . .

लाडवाची गोडविकाय अख्खो गांव गायता
कावळो मात . . .
उलट्या तोपार जीव ल्हेंवन वता .



# काणी

ते आजयेची काणी
आनी
म्हजे आजयेची काणी
मदीं
कितल्योश्योच काणयो .
पूण दोनय
म्हजेच आजयेच्या आजयेच्यो काणयो .



# हांवें एक काणी रचल्या

हांवें एक काणी रचल्या
गंगेच्या उफाळट्या मळाचेर
गडगडट्या शब्दांचेर
हांवें एक काणी रचल्या

म्हजे काणयेंत तेंच आसा
प्रेम करपी राजकुमार आसा
सपनां पळोवपी राजकन्या आसा
आवय वापायचो विरोध आसा
इश्ट आसा दुश्ट आसा

म्हजे काणयेंतली आर्जीच शेणल्या
हांवें एक काणी रचल्या

काणयेंत पुनवेक चंद्रच ना
भांगराच्या रथाक घोडेच नात
न्यायाच्या झुझामळार दुश्टच ना

म्हजे काणयेचें मळच चुकलां
हांवें एक काणी रचल्या

गांव म्हजे काणयेंत सदांच हांसला
घर म्हजे काणयेंत सदांच रडला

घरार वयर वसून काकेवपी कावळो
खंय तरी काणयेंत शेणला
हांवें एक काणी रचल्या .



# आजयेल्या काणयांनी

आजयेल्या काणयांनी
सदांच कावळ्याक वायट म्हळें
कांवऽऽ कांव करत कावळ्यान
शेणाकच आपलें घर म्हळें

हुंवार आयलो . . .
घरय मोडलें
कावळो त्याच घरांत रावतालो
हें म्हाका कळ्ळें

कुंवाळ्याच्यो वडयो
कावळ्यान खावंकच नात
आजयेच्या 'कट्टर' गरवण्याखातीर
कपड्याचे दोरयेर कावळ्यान
झोपाळेय घेवंनात
आजयेच्या तांवड्या शालवाखातीर

काल एका कावळ्यान
जिवेची कात सोडल्या
आपलो काळो इतिहास वाचून
म्हजे आजयेन
नळ्यावेल्यान धांवडायला
तिचें व्रत सोडून

म्हजी आजीय मेली
पिंडय व्हेलें
केळीपानार काणयो उरल्यो
कावळ्याची वाट पळयत .



# हांवें ताका पळयला

कावळो घरार वसतना
आजये घर कोसळटना
　　　　तुमी ताका पळयला ?

काळ्या कानाचे
वंटीं बुराक
हागून पुरयतना
　　　　हांवें ताका पळयला .

ढोंगी हुंवार
नाकान हुंगून
नळ्यार रडटना
　　　　हांवें ताका पळयला .

जनेला दारार
सवायशीण भश्टतना
दोळ्यान तो जागयतना
　　　　हांवें ताका पळयला .

गर्भकुडींत
भेसळीचे काणयेन
नातू घडटना
कावळो आंवडो गिळतना
　　　　हांवें ताका पळयला .



# कूद...कूद...कूद...

कूद...कूद...कूद...कूद... कावळो कोकयता
सुपावेल्या तांदळार भात लगाटी घालता
फुकेन आजी काळ्या धुल्लाक धांवडायता
भूर्ऽऽ करन
कावळो आजयेलागीं लिपून खेळटा.

कूद...कूद...कूद...कूद... कावळो कोकयता
सांजेचे रंग घेवन पोपाय खुणयता
अर्दी पोपाय कावळो चोचावन दांड्यार झोकायता
हूश ऽऽ हूश
आजी अदर्या वाट्याक झगडटा.



# तरंगां

*हांव . . .*
*शब्दांचे जात्रेक भोंवतां*
*तरंगां घेवन नाचतां . . .*
*पालखेकडेन पावतरेक*
*. . . खांदो तो मारतां . . .*
*हांव चिड्डतां . . . आड्डतां*

— गौरी

# तरंगां

आयज धोल फुटून गेला
पावलां सगलीं चुकून गेल्यांत
उरफाटी पालखी वता मळार
. . .नाचून नाचून हाडात तरंगां भारार

देव देवळां मागणे वसला
भारार देवचार भुकेन न्हिदला
कुडीचें शेशें घालात सांगणेर
. . . नाचून नाचून हाडात तरंगां भारार

वांज नाल्ल माथ्यार फोडला
तेन्ना कळे कपलार रडल्यात
तिर्थाच्या नांवांन मुता हार्तार
. . .नाचून नाचून हाडात तरंगां भारार

दिव्यान रे ऊव चोरला
दोण्यान रे हात खाला
गाळयांचो भार भजनां आरत्यांर
. . .नाचून नाचून हाडात तरंगां भारार

सूट बूट आंगार नटला
बुराका काश्टी गांडीर लिपला
संस्कृतीचें नागडेंपण चल्ला रस्त्यार
. . .नाचून नाचून हाडात तरंगां भारार .



# म्हज्या गांवांत

म्हज्या गांवांत,
धर्मा खातीर देव आसा .
सांगणे खातीर देवचार आसा .
. . .दोगांयचेय भगत खिणाखिणाक वदलत आसात .

म्हज्या गांवांत,
सती सावित्री आसा .
रात गिळपी रांड आसा
. . . दोगांयच्या घरांतल्यो पांयवाटो एकमेकांत
मिसळत आसात .

म्हज्या गांवांत,
भोगी समाज आसात .
ढोंगी सुदारक आसात .
. . .समाज सेवेचें नाटक वाड्यावाड्यार
खेळत आसात .

म्हज्या गांवांत,
मस्ती राजा आसा .
कुड्डें राजकारण आसा
. . .प्रजासत्ताकाचो दीस प्रजा घडेघडे
मनयत आसा .

म्हज्या गांवांत,
संपन्न कला आसा .
संस्कृतीवद्ध कलाकार आसात
. . . कल्पनेची कलाकृती तडेतडेक मोडत आसा .





# देवा, तुजे कल्पनेतलें

देवा, तुजे कल्पनेतलें
जग म्हाका कळ्ळें ना
कोड्याभितर कोडीं जाल्यांत
अजून एकय सुटलें ना
म्हाका तनय कळ्ळें ना
म्हाका धनय कळ्ळें ना
मनीस नांवांच्या किड्याचें मनय कळ्ळें ना. ||धृ||

कित्याक रचलीं तुवें आतंकी घरां
बॉमाची टिकऽऽ टिक् हांगा,
गुळ्यांचीं वरां
रक्ताळीं पोरां. . . .लोखंडाचीं शिरां
गर्भातल्यान आंकुरतात धारे तलवारी
रगतान माखिल्लें घर तुवें भस्म कित्याक केलें ना?
देवा, तुजे कल्पनेतलें जग म्हाका कळ्ळें ना. ||१||

तोपनासतना पानां ताटार बसला
हातांतल्या रेशांर पाट हांसला
उश्टे उंडेर हक्काची बलां?
हीन अस्तित्वाचीं भरतात बिळां
अन्नावेली तुजी मूठ अजून कित्याक सरली ना?
देवा, तुजे कल्पनेतलें जग म्हाका कळ्ळें ना. ||२||

मखमलेन लिपला लजेचो हिजडो
येतलो उगडो वतलो उगडो
त्याच सुताचो शिंवला गोधडो
मनीस मनशाक करता नागडो
लजेचें चादर सगळ्यांक कित्याक दिलें ना?
देवा, तुजे कल्पनेतलें जग म्हाका कळ्ळें ना. ||३||



# आमी दायजी

. . .आमी दायजी
एका वाड्यार रावन लेगीत आमचे कसलेच संवंद नात.
. . .आमी दायजी
आमी घराच्यो वंटी वाडयल्यात
एकमेकांचें तोंड पळोवचे नात
उतर आयकुचे नात ह्या हेतून
वण्टींतल्यान आमचीं मुळां एकमेकांच्या मुळांक घुस्पल्यांत
नवीन पाळांय हुमसल्यांत
तरी आमकां कसलीच जाग ना . . .
. . .आमी दायजी
आयकतात दोन वंटींवेल्यान चवथीच्यो घांटी
गाळयां, तत्वांच्यो बाटाबाटी
. . .आमी दायजी
वंटीं भितरलीं मनां जाण्टयांभितर नेण्टीं
आनी नेण्टयां भितर जाण्टीं
दुसरे दिवाळेक त्याच वंटींर तोंड फिरावन पण्टी लख्ख.
उजवाडाचेंय आमकां भान ना
. . .आमी दायजी
वंटींक, सुतकांत मुता –घाणी
सुयेराक तुळशी न्हाणी
थापिल्ले शेणाचेय वंटींर आमच्या दाग नात
. . .आमी दायजी
खूब तेंपान अकस्मात . . .
वंटींक वेर येता
वेरेचें भगदाड पुरयतना
वंटींच कोसळटात . . दायज पिसाळटा
नवीन बुन्यादीचे फातर येतात
शतकाच्या यादींक
. . .आमी दायजी



# शिरपुटां

रात लिपोवपी जात म्हजी
मनीसपण शेणयत गेला
नात म्हजी कात सोडून
ते रातीचीं नातीं सोदत गेला .

साथ मेळूंक लाथ सोसत
काठ सोदत गेली वाट म्हजी
ताट पाट दिलो तरी
रातीं कित्याक विचारली जात म्हजी ?



# अशे आमी

संपन्न संस्कृतीची आवय आसूनय
. . . उदेंतेचो वारस ना

प्रलभ्य प्रकृतीची प्रतिमा आसूनय
उठीव आमकां अस्तित्व ना

काळा पुराणांतली परंपरा आसूनय
ज्वलंत आमचो इतिहास ना .



# कूळ

तुजें कूळ म्हजें कूळ
हातूंत . . एक वेताचें अंतर . .
तुजीं पाळांच आंग्वडून पडल्यांत
म्हाका मुळांच नात

तीं दोनय कुळां
आपलीं मुळां तोडून
काळान रचिल्लें नातें . . . शेणत गेल्यांत .

मर्दी एक पाळ
नातें तिगोवपाक
इतिहासाचो काळ . . . उपशीत गेला .



# अनर्थ

म्हज्या आंगणांत रावन
म्हाका मळबांत सोदनाका . . .
दोळ्यांतलीं दुकां हातार धरून पळय
हांव लकलकतां . . .

तो अनर्थ जातलो म्हण
तुज्या अर्थाक हांवें कितलेशेच अर्थ लायले
पूण, म्हज्या अर्थाचे तुवें
वेगळेच अर्थ लायले .

ते शव्द कसले ?
जाका कर्ता कर्मच नाशिल्लें
सर्तीच्या आनी भरतीच्या भरांत
हांवें ताका क्रियापद लायलें

जेन्ना सर्त सोंपली
तेन्ना म्हाका कळ्ळें तें तुजें विशेशण आशिल्लें
तो अनर्थ जातलो म्हण . . .



# समाधी

तोंडार तुमच्या गांडी घस्टून वतना
तुमकां घाण आयली ना . . .
सळसळीत मुतून गेले
तरी तान भागली ना . .

आतां कसली काणी घडोवपाक उवे रावल्यात
अस्तित्वाची अर्स्थी
तुमच्या पोटांत अजूनय मेली ना .



# चमचे

चमच्यार चमचे
बसले
दवल्याक जागो ना रे
तोपांतली साय ताटार अजून ना रे .



# संवय

ह्यांवें द्रौपदीक न्याय दिवपाचो सोडून दिला

पावित्र्याचें कपाळ मिरयत
दुःशासना बरोबर नाचपाची तिची कथा जाल्या

मान सकल घालून इतिहास जागय नाकात
कसलींय प्रतिज्ञाय करूं नाकात

आज आंगभर वस्त्रां आसून लेगीत
आंग भायर उडोवपाची तिका संवय जाल्या .



# कवीत

तुका अजूनय सांगतां
ते सगले कवी आसात
शब्दांचे कट्टर धनी आसात
थंय शेणिल्ली कविता सोदनाका .

लिखाणाचे राशीर तुजेंय उतर आशिल्लें
हर उतरार ओळख आशिल्ली
विशयाचें मूळ तुवेंच सोदिल्लें
तरी ते कवितेक सोदनाका .

काल एका कवीची हांवें खबर आयकल्या
ताच्या शब्दांची खंय सगल्यांनी तिरडी बांदल्या
आनी तिरडेचेर कवीक घालून
कविते सयत ताका जळयला
. . . तरी ते कवितेक सोदनाका .



# धडे

आज . .
तुझ्या मुखांतल्यान कितलेशेच
शब्द चिड्डून येतात
हळूहळू ताचें वाक्य करतात . . .

तुजो . .
प्रत्येक शब्द हांव मेजत आसां
प्रत्येक वाक्य गिळत आसां
कित्याक?
फाल्यां म्हजे ‘धडे’ येवपाचे आसात .



# पावलां

कितल्याशाच पावलांभितर
हांवें तुजीं पावलां वळखल्यांत . . . सांबाळ्ळ्यांत,तिगयल्यांत
तुजीं पावलां वळखतना
हांवें म्हजीं पावलां माड्डयल्यांत . . तोडल्यांत . .
शेणयल्यांत .



# सुतक

तें सूत लागतलें म्हण
कितल्याशाच देवांक तुमी पुजले
कितल्याशाच भुतांक तुमी पुजले

पूण कोणाकच खबर ना
त्या सुतान म्हाका जल्माचें सुतक घातिल्लें .



# एकलव्य

एकलव्या, तूं शिकत राव . .
नाचत राव . .
धांवत राव . .
लिपत राव . .

द्रोणाच्या कारस्थानीं आंगणा भायर
गर्विष्टाच्या पोकळ हड्ड्या मुकार
एकलव्या, तूं शिकत राव . . शिकत राव .

तूं सपनेनाका राजा महायोध्याचें
चितूंय नाका ब्रम्हांड जिकपाचें
रानांतलीं सावदां तूं मारत राव . . . मारत राव
एकलव्या, तूं शिकत राव .

रखरखत्या वतांत पुतळ्याची सांवळी मेळचींच ना
तिराच्या तोकार खुबशीं नांवां दिसचीं नात
प्रत्येक तिरार तूं नांव कोरत राव . . . कोरत राव
एकलव्या, तूं शिकत राव .

आयजय परिक्षा तुजी चल्ल्या
बोटाजाग्यार मानोच कापल्यात
अन्यायाचो हो घोट तूं वर्सान वर्स पियत राव
एकलव्या, तूं शिकत राव .



# कल्पना

म्हाका कल्पता कोणी कोण रे
हांव कल्पना कोणाकोणाची रे
कलाकृतीक तिचें नांव रे
म्हज्या नांवान शेणयला तिणें गांव रे .

तिच्या गांवाकडेन म्हजो रस्तो रे
म्हज्या रस्त्यार कितलीं घरां रे
हांव नशीब कोणा कोणाचें रे
म्हज्या नशिबाक कोण कोण रे .

कोणा उपाशाली हांव आस रे
भरल्या पोटाची म्हजी भूक रे
तिचे खातीर वाडलां हांवें ताट रे
त्या ताटार कोणा कोणाचे हात रे .

कलाकृती म्हजें सपन रे
म्हजे कलेक कितल्यो कल्पना रे
म्हजे कल्पनेक कोण कोण रे
हांव कल्पना कोणाकोणाची रे .



# बंद कुडींत

बंद कुडींत
बंद रावपाची संवय जाल्या
अस्तित्वाच्या भंया
भरूं दी रगताच्यो तळयो
खेळूं दी कोयत्यांनी कुड्यो .

आमकां आमचे फाटीचे पुळेचें पडलां
खरजेवेली खवळ काडपाची आमकां संवय जाला
बंद कुडींत बंद रावपाची

जावं दी नरकासुराचें आनीक लग्न
नाचूं दी आवय वांगडा
कोर्णी झिम् पोरी झिम्

आमकां आमचे रातीचें पडलां
नायकिणीक नटोवची आमकां संवय जाल्या
बंद कुडींत बंद रावपाची

अरे मनशा . .
आतां तरी कुडीचें जनेल उगड
तुजें घर जळत आसा

घराभितर तुजी कूड आनी
कुडी भितर तूं आसा
हे जाणून पसून
अजाण फिरपाची तुका संवय जाल्या
बंद कुडींत बंद रावपाची .



# हांव अडेतडेचो कवी रे

हांव अडेतडेचो कवी रे
धड्या सूडाचे म्हजे शब्द रे
मोडक्यो ताचेर ओळी रे
कडेकडेन लिखाण बंद रे
हांव अडेतडेचो कवी रे

म्हज्या शब्दान जनां खेळ्ळीं रे
तनां हांसलीं, मनां रडलीं रे
म्हज्या शब्दांनी पातक्यांक सांवळी रे
पुण्यायेची कात भाजून गेली रे
हांव अडेतडेचो कवी रे .

म्हज्या शब्दांर म्हजो घाव रे
रक्ताळ्ळें हांवें लिखाण रे
प्रत्येक ओळीचो हांव धनी रे
हांव अडेतडेचो कवी रे .

आनीकय शब्द येतले रे
म्हज्या शब्दार शब्द चडटले रे
म्हजेय शब्द तेन्ना गुलाम रे
त्या शब्दांभितर हांव रे
हांव अडेतडेचो कवी रे .



# सत्याखातीर पोर अजून रडत आसा

आवय दुदांत तुज्या भेसळ जायत आसा
सत उलोवपाक पोर अजून रडत आसा .

शिवा राणा तुजे झुजा मळार न्हाले
तलवारेन आज घराघरांत मेले
तोंडान तुज्या आवय – गीत शेणत आसा
सत्याखातीर पोर अजून रडत आसा .

राम, दास, नाथ भक्तीन बांदले
भक्तीचे ताळ पदराक शेणले
ममतेचें उतर वादळ घालत आसा
सत्याखातीर पोर अजून रडत आसा .

तुज्याच उल्यान कृष्ण उठलो
आयकली किळची पोर हांसलो
अब्रू तुजी आवय उगडी पडत आसा
सत्याखातीर पोर अजून रडत आसा .

शांतीचो खुरीस गाडग्याली बडी
तुवें दिली आज सुडाची धडी
दोळ्यांतल्यान आतां दुकां गळत आसात
सत्याखातीत पोर अजून रडत आसा .



# मांड

आंगणाचे भोगावळेक
मांड म्हजो मेरयन दी
अस्तित्वाच्या पांवड्यार शेणला
तुळस सोदून दी .

जातीचे जात्रेक पालखी कोणी काडूं दी
शेणिल्ल्या देवाखातीर देवळां कोणी बांदूं दी

सिंहासनां बदलपाक पुतळे कोणी बांदूं दी
ताटाखातीर पोटाचीं जातकां कोणी करूं दी

संस्कृतीचे नागडे रेंवेर काती काती सोडूं दी
पाचवी रानां प्रकल्पांनी किट्टा किट्टा जळूं दी

भाशेच्या नांवांन उतरां कोणी चोरूं दी
शब्दाचे राशीवयली वरपावळ कोणी खोडूं दी .



# पावणी

पांवड्यार पावणी बसला
सुरांत गायता नार
मनीसपण वीक मनशा . . एक वार, दोन वार . . .

न्यायाच्योच मानो
घालता भांगरा हार
विकता गरिबा घर . . एक वार, दोन वार . . .

दाबून सगल्यां पोटां
भूक मागता आज भीक
भाकरेंतलें वीख . . एक वार, दोन वार . . .

मायेचो पदर भिजलो
चल्ला दुश्टांचो बाजार
पांवड्यार रडटा राधा . .एक वार,दोन वार . . .

सुरांत गायता सवणें
ओडलो गळ्यार सुरो
धारेर कापता गीत . . एक वार, दोन वार . . .

द्रोणाच्या मळार
अर्जुन एकूच वीर
एकलव्य चुकलो तीर? . . एक वार,दोन वार . . .



# शू ऽऽ आमी सुशेगाद

घालूं कोणी रान्नी घरांत
परक्या रितींचें अन्न पोरांक
ओ ऽऽम स्वाहा सोडून दिला
पाटावयलें ताट चोरांक
तरी म्हजे उश्टे  उंडयेक मचमचीत सुवाद
शू ऽऽ आमी सुशेगाद

आतंकांनी शिमो तुट्टात
ढाम् ऽऽ ढूम् कुडी फुट्टात
कपलावयले कुकूम रडून
वॉमांनी वुन्यादी उडटात
मर्दीं मर्दीं कुल्यार वाजता आवाज करपी पाद
शूऽऽ आमी सुशेगाद

कालचो तो पालखी हाडटा
खांद मारून जात ओडटा
सुखकर्ता दुःखहर्ता
मतांच्या आरत्यांनी विघ्न घडटा
संतांचे पुतळेपसून इतिहासाकडेन घालतात वाद
शू ऽऽ आमी सुशेगाद

उपाशी पोटार मास्तर आयला
पुस्तकांनी इतिहास शेणला
प्रकृतीक बेंदूल मातोवन
आंगणाक मेळळ्या तुळशी - साथ
शू ऽऽ आमी सुशेगाद

जाण्टेल्यांनी आंगण दिलें
सारोवन दिलें, मेरावन दिलें .
मुळां चोरून आयलीं फुलां
फुल्लीं म्हजे बागेंत फुलां
सदाफुलेक लागला देवाफुलाचो नाद
शूऽऽ आमी सुशेगाद

प्रकल्पान भूंय विणला
पाचवें रान तांबडें जालां
दर्यारिंवेर संस्कृताय मांडून
बोलयेंत म्हज्या भास शेणल्या
तरी तुमी म्हण्टात कसली ही नविदाद
शू ऽऽ आमी सुशेगाद

मतांखातीर घार्ली पिलां
सिंहासनाक फुटलीं मुळां
दायजपणाक पुरीस लेगीत
सोडून गेलो कात
शू ऽऽ आमी सुशेगाद

तुजें तरंग विकत गेलां
तलवारेची धार गेला
धोल ताशे वडयले तरी
कानसुलांनी घात केला
सहस्त्रकाच्या उदेत्या सूर्याक आयज न्हिदेनाद
शू ऽऽ आमी सुशेगाद .



# सांज

*हांव*
*सांजेचो रंग पळयतां*
*तुज्या यादींच्या दोळ्यांनी*
*हो रंग*
*आर्त सुरांनी भरला*
*काव्यशब्दांनी नटला*
*घेवन सपनगंध . . .*

— गौरी

# सांज

आज सांज ही म्हाका पळयता
कित्याक ती पळयता, हळूच लजेता .

तण विश्वाचें खावन थकले
तानेल्ले कळप गोठ्यांत वळ्ळे
शेणिल्लें पाडूक आवयक सोदता
आज सांज ही म्हाका पळयता

आंगणांत मोगार्चीं सवर्णीं खेळ्ळीं
चोंचींतले चोंचींत गीत गायलीं
चिंव चिंव सवणें म्हाका चाळयता
आज सांज ही म्हाका पळयता

सांजवातींत मन हें उवलें
सांवळेंत म्हजे तूं गो दिसलें
सपन रातीचें हळूच जागयता
आज सांज ही म्हाका पळयता .



# मोग तुजो कळय रेऽऽ

मोग तुजो कळय रे
तिनसांजे वेळार उलय रे
धगधगती काळीज कुपां
काळजाक म्हज्या वेंगय रे . . .

हुंवारांत हांव रे उबो
सपनांचीं बांदूक घरां
घर तें कसलें बांदूं
मळवान व्हेलीं दारां
मनाचें तुफान आयलें रे ऽऽ
खिडकी म्हजी धापा रे ऽऽ
मोग तुजो कळय रे ऽऽ

तींच तींच घटना घडल्या
पात्रांचे संवाद वदल्ल्या
अंककाच्या पड्ड्याभितर
नाटक म्हजें रडलां
चौथी घाट कोणी वाजया रे ऽऽ
नाटक म्हजें थांवया रे ऽऽ
मोग तुजो कळय रे ऽऽ



# रंगली मेथी म्हज्या हातार पिया

रंगली मेथी म्हज्या हातार पिया
संवसाराचो पदर माथ्यार दिया ऽऽ ‖ धृ ‖

मस्त मन म्हजें झुलता झुल्यार
चिंब चान्नें कशें खेळटा मळार
वेंगेचे यादेन कोणी ऽऽ
अमुरपिक्या सपनांची सकाळ दिया ‖१‖ रंगली मेथी . .

पदराआड म्हजो चंद्रिम खेळटा
शृंगाराची रात रात, रात रे जळटा
गळ्यांचे यादीन मणी ऽऽ
रुपाक लजेचो शिंवर दिया ‖२‖ रंगली मेथी . .

ओडणी ओडून म्हजो राया न्हिदला
काळजाच्या गोपांत कित्याक लिपला
पलतडच्या उल्याक कोणी ऽऽ
ओटाक यादीची रात जागया ‖३‖ रंगली मेथी . .



# पावस आयलो

आयलो रे आयलो
पावस आयलो
आयलो रे आयलो
पावस आयलो ॥ धृ ॥

शेणमातयेची भरून सरली
शेंवतुल्या वोडार कायल
दाव्यांचे सोडून शेतांक भरले
कसूंक रामाचे वैल
मातयेच्या कापसाक भिजया
गर्भाच्या उरांक दडया
तळातळांतल्यान सपनां उलो
आयलो रे आयलो
पावस आयलो ॥ १ ॥

गडगड रानांत, कडकड कानांत
विजेची चकाकी धांवता
भिजिल्ल्या फाकांनी कुडकुडट्या स्वरांक
कोगूळ मल्हार गायता
पावसांत दोगांय भिजया
मस्तेचें कांतार गावंया
व्हळाव्हळांतल्यान व्हांवून सरलो
निळ्या पावसाचो निळो झेलो
आयलो रे आयलो
पावस आयलो ॥ २ ॥

सत्रेंभितर यो गो पोरा
भिजिल्ल्या आंगाक पांगय
पलतडच्या गांवांक हुंवारो भरला
धगधगत्या हड्‌डयाक थांवय
आयलो रे आयलो
पावस आयलो ॥ ३ ॥



# पलतडेच्या राया

पलतडेच्या राया
साद घाला म्हाका
आलतडेन हांव रे आसां
घेवन तुर्जी भांगरा सुखां
दाखयन म्हज्यो पिशा चुका . . म्हाका सतयनाका

घोड्या गाडयेर येतलो बसून राजकुंवर म्हजो
काळीज म्हजें हुंगून वतलो
मोगा भोंवरो जसो
गांठ म्हज्या नशिबाची तूं सोडयनाका
सांग तूंच येतलो केन्ना
म्हाका रडयनाका

आयज दीस आयला
पिलांनी घरटें ओडलां
जिविताचे तुजे राणयेन
लजेची कात सोडल्या

दिसता राया मुखामळ तुजें मुदये भितर
नांवांन तुज्या आडयत गेले
कोण म्हजो पदर . . सोड म्हजो पदर
आस म्हज्या जीविताची तूं सोदनाका
वाटेर तुज्या बसून आसा . . राजकुमारिका .



# गीत तुजें गायतना

गीत तुजें गायतना
सूर ताल आज मोने
पलतडेच्या रानमोग्या,
साद घातलो तो कोणें . . .

सुर्यपिलां लिपतात अशीं
मोगरे फुलां धोकतात अशीं
धुंद मंद गायता भंवरो मुक्त म्हजे जिणे .

तानेलीं मनां
न्हिदलीं रानां
साद लयेचो वारो दिना
कोगळां साथी
पिकली मातीं
गाय गो सपनांचीं म्होंवाळ नातीं
मुक्या मुक्या मनांतलो असो मोग करचो कोणें . .

शव्द तुजेच सुटले नात
म्हज्या गितांत रुतले नात
प्रश्न प्रश्न मांडत गेले
कवन मुक्त तुजे विणें
गीत तुजें गायतना सूर ताल आयज मोने .



# हिशोब

चान्या रातीं नकेत्रांचो हिशोब घालनाका
रेंवेंवेलो संवसार म्हजो असो मोडीनाका || धृ ||

धर्म जात कूळ नातीं मनीसपण शेणयतात
दुबावान भरली सकाळ सांज म्हाका चाळयता
पांजऱ्या भितर रडटां हांव खीण ते दुकां गळयतां
येतलो केन्ना सुर्या म्हजो दोळे आज तानशेता || १ ||

लोक किड्यांचो मांड भरला काळीज तुजें विकनाका
काळजांत तुज्या हांव रे लिपलां उतर तुजें शिंपनाका
रातीच्या गोपांत मोन्या ह्यो कुड्डयो यादी चिड्डतात
उमाशेच्या दोळ्यांत म्हज्या पुनवे सपन आशेता || २ ||



# जात

जातीचे हे कातीन म्हजे
जिणेचें सुतक बांदून आसा
कितलीय कात सोडली हांवें
आंगार नातें हुलपत आसा . . .

बांदली मूठ भुरगेपणां
शेणून गेलीं जुवानपणां
पांजऱ्या भितर रडटा राया
ओडटा मायेच्यो ह्यो खुणा
आवयचो पदर रडत वसला
तुळशी पानां धुवत आसा

भांगरा कट्टेक माती म्हाका
बांदला कुळाच्या जोताक म्हाका
काळजार चावकाचे पडले मार
किंकाळेन मन सोदता तुका
तुजीं दुकां आटत गेला
वळ म्हजो जळत आसा

जातीचे हे कातीन म्हजे
जिणेचें सुतक बांदून आसा .



# पुनवे रातीं

पुनवे रातीं आंगार म्हज्या चान्नें शिपलें ना . .
न्हिदले कळे फुलन लेगीत तूं आयलें ना . .
तूं आयलें ना . .

श्रावणधारी कवन म्हजें
वातीं दोळ्यां लागला पिशें
किण्ण किण्ण रातीं मनां
धुंद मंद पावलां आशे
पानावालींचो फळाफुलांचो माटोव सजयला
चक्क काजव्यांनी, रातकिड्यांनी रात जागयला
तळ्यामना यादीन भंवर बुडयला
छन् छन् पांयजणांचो खुळो खुणयना
तूं आयलें ना . . तूं आयलें ना . . ॥ १ ॥

काळय थांवलो ना
पुनव जागली ना
आवोल्यांची फाती म्हज्या
हातांत वावली ना
तूं आयलें ना . . तूं आयलें ना . . ॥ २ ॥

एकांताचें सपन तुजें
जागयता राया
चंद्रिमाचो गोल टिळो
भिजला गो तळ्या
रात म्हजी जागून लेगीत अजून सल्ली ना
न्हिदलीं फुलां फुलून लेगीत तूं आयलें ना
तूं आयलें ना . . तूं आयलें ना . . ॥ ३ ॥



# गौरीश रमाकांत वेर्णेकार



१८ सप्टेंबर १९७४ त काणकोणां जल्मलो, तो कलेचो वारसो घेवनच . मुळावें, माध्यमिक शिक्षण थळाव्या शाळांनी घेवन मुखार पणजेच्या आर्टस कॉलेजींतल्यान अप्लायड आर्टसची (B.F.A.) पदवी घेतली .

आतां एक कुशळ चित्रकार,रचनाकार आनी छायाचित्रकार म्हूण 'महालक्ष्मी फोटो स्टुडिओ' आनी महालक्ष्मी ॲडव्हरटायजिंग ॲण्ड मार्केटिंग' हो धंदो सांबाळटा .

धंद्याक वा वेव्हाराक कलेची जोड दिवपाची कळाशी सादल्या म्हणूनच ताचेभितरलो रचनाकार, चित्रकार आनी कलाकार ताच्या वेवसायांतल्यान प्रखरपणान दिश्टी पडटा .

शालेय पांवड्यार आनी महाविद्यालयीन पांवड्यार तशेंच कला अकादमीच्या नाट्यसर्तीनी भाग घेवन अभिनयाचीं इनामां जोडल्यांत . स्वता एकांकी आनी पथनाट्याचें लेखन करून सर्तीनी इनामां जोडल्यांत . कोंकणी भाशा मंडळ आयोजित गोवा युवा महोत्सवांत नेमान तीन वर्सा 'काणकोणचीं तरंगां' क विजेतेंपद मेळोवन दिवपांत ताचो मुख्य वांटो आसा .

चित्रांचें प्रदर्शन कला अकादमींत तशेंच थळाव्या मंडळांचे वतीन भरयला .

'तरंगोत्सव' हो ल्हान युवा महोत्सव तालुका पांवड्यार आयोजित करून जैतवंत केला .

विविध काव्यसर्तीनी काव्यवाचन आनी परिक्षणय केला . काव्यसर्तीनी इनामां मेळयल्यांत . दिवाळी अंकांनी आनी हेर मासिकांनी कविता उजवाडाक आयल्यात .

व्यंगचित्रांनी आपलो ठसो उठयला . 'गीत तुजें गायतना' हे लोकप्रिय जाल्ले कोंकणी गितांचे कॅसेटीखातीर पदां बरयल्यांत . नेमान गितां आनी भजनां बरोवन स्वता चाली दिल्यात .

कोंकणीत एक आगळो वेगळो विशय घेवन 'शून्य आनी अर्थ' नांवांन कवितां - झेलो रचला .

'अश्वत्थामो' कोंकणी नाटक बरयला .

मंगळूर कलांगणातल्या "मिठाचे कण" हे संस्थेचो संचालक आसा . कोंकणी भाशा मंडळ, लायन्स क्लब, काणकोणचीं तरंगां, काणकोण कोंकणी कला केंद्र, सेवामंच, अवतार ह्या संस्थांचो वांगडी आसा . काणकोणचीं तरंगां चें अध्यक्षपद सांबाळटा . हे संस्थेवतीन विविध कार्यक्रम आयोजित करून तरणाट्यांचे कलेक आनी आत्मगुणांक पोसवण दिवपाचें काम नेमान करता .